# कला काव्य

## कलाकान्त



केरल कोंकणी अकादमी
चेर्लायि, कोच्ची - ६८२ ००२

# कला काव्य

## कोंकणी कविता

कलाकान्त



केरळ कोंकणी अकादमी
चेर्ळायि, कोच्ची - ६८२ ००२

# कलाकाव्य

*(कोंकणी कवनँ)*

**कलाकान्त (पी. कृष्ण कुमार)**



पयली उजवाडावणी : २०१७
५०० प्रति

अक्षर जुळणी :
**के. सन्तोष**
मो. : ९८९५२१२५२१

छापणावळ :
**मे. प्रकाश प्रोसेस**
श्रीनिवास मल्लन रोड,
एरणाकुळम, कोच्ची - ६८२ ०३५
फो. : ०४८४ २३५०९६०

प्रकाशक :
**केरळ कोंकणी अकादमी**
चेर्ळायि, कोच्ची - ६८२ ००२

मोल : ₹ ५०/-

# Kalakavya

*(Konkani Poems)*

**Kalakanth (P. Krishna Kumar)**



First Edition : 2017
500 Copies

Typesetting :
**K. Santhosh**
Mob : 9895212521

Printer :
**M/s. Prakash Process**
Srinivasa Mallan Road,
Emakulam, Kochi - 682 035
Ph : 0484 2350960

Publisher :
**Kerala Konkani Akademi**
Cherlai, Kochi - 682 002

Price : ₹ 50/-

# काव्यकांती

तीन दशकां पूर्वी कोचींत “युवप्रतिभा” म्हुण एक हातबरपाचें नेमाळें तेदनाचे थोडे युवक नेमान उजवाडायताले. सुमार वर्षांक तें चालू आशिल्लें. तेन्ना ताचेर कविता बरोवपी आनी ताचे संपादन कार्यांत सहभागी जावपी अशिल्ले श्री. कलाकान्त. मागीर ताचेवेल्यो वेगवेगळ्या बरोवप्यांल्यो थोड्यो कविता वेंचून 1992 वर्षा “फुलां आनि कोळे” म्हूण एक कविता संग्रह उजवाडाक आयलो. त्या संग्रहांत हांचीय कविता आशिल्ली. उपरांतें 1999 वर्षा हांवें “काव्योद्यान” म्हूण एक प्रातिनिधिक कविता संग्रह उजवाडाक हाडतना तांतूंय हांच्या एक भावात्मक कवितेचो आस्पाव केलोलो.

हाचे भायर “कोंकण जनता”, “स्पन्दन” इत्यादी नेमाळ्यांनी हांच्यो कविता मदीं मदीं उजवाडा आयल्यो. अस्या हांच्या कवितांचे कार्य सांगल्यार खंयचा एक झाडार नेमान जावपी फुलां वरी ह्यो कविता. वेंचून गांथून हाची एक माळ जावंचाक थोडो वेळ लागलो इतलेंच ! जाल्यार एक व्यत्यास आसा. फुला झाडार केवल एक तराचीं फुलां जाताय. पुण ह्या हारांत तरातराचीं कवनफुलां आसाय !

अशे तरेन तरातराच्या फुलांचि माळ गांथून देवळांत दीवनु तांतु सायूज्य पावपी एक भक्ता तुमकां ह्या पानांनीच मेळतली ! जाल्यार कवीन तागेल्या काव्यफुलांचो हार दवरला तो आमचे मुकार ! असलो तागेलो अप्रूप काव्यहार आमचे मुकार प्रस्तुत आसा म्हण्टना आमी हाचो भरपून आस्वाद घेवूंया !

फाटल्या कितल्याच दशकांनी रचलेल्यो कविता हांतुं आसाय म्हणिल्ल्यान हांच्यांनी कवीलें बाल्य आनी भुरगेपणूय आमकां पळोवंक मेळता.

जेन्ना “किणिमाम” काणी सांगता, जेन्ना “शाळा” उगडता, जेन्ना देवळांत “आराट” घेत्ता, तेन्ना आमकां आमचेंच बाल्य उलो मारता ! हांतुल्यो थोड्यो कविता -

“संसार पाडवो”, “नीद”, “पै माम”, “फूल सोदून” - वर्णना आनी विनोदाच्यो भावना जुळोवन आमकां भुलयताय. कवीले अनुभव उतरांनी चितारपी कविता म्हळ्यार - “गीम”, “पावस” आदी कविता. थोड्या कवितांनी उपदेशाचो, मार्गदर्शनाचो सूर आसता-देशाची सेवा करूंया, त्यागी वृत्तिच्या वृक्षांची देख घेवूंया, अशी. “जागेर यो मनशा, तुजीं कर्तव्यां तुका आपयताय !” असो उलो कवीचो.

वेगळ्या थोड्या कवितांनी देवाची भक्ती सहज रूपान थळथळेता. जाल्यार “सोरंगो” म्हळ्ळेले कवितेंत कवीली तत्वचिंताय प्रकट जाल्या.

ह्ये कविता चड करून निर्मल आनी प्रसन्न भाव प्रकट करपी. उजू मूल्यांचो पुरस्कार करपी. हांतुं लालित्य आनी माधुर्य उठून दिसता. अशें आसूनूय अप्रूप वेळार कविल्या उतरांनी स्वल्प तीक्ष्णताय येता जाल्यार ताचो कारणकार आयचो मनीशूच !

“फातर काळजांनो” म्हुण तिडक मारपी कविताच हाचें एक उदाहरण. “मा निषादा”, म्हूण एक उलो आदि कविल्या गळ्यांतुल्यान फुटलोलोय समान फाट भुयेंचेर म्हुण सांगूयात. जाल्यार कवील्या आत्म्यांत आशांती ना. ताचो निजाचो भाव शांतिचो.

ह्या रूपान भावात्मक काव्यकांतीन कोंकणी कवितेचो घर संसार शोभित करपी ह्या कवीक म्हजीं परबीं आनी हार्दिक आशंसा.

- शरतचंद्र शेणै

# रीणाच उत्तरॅ

श्री व्यास रघुपतिकय अंगेल परम पूजनीय धर्म गुरु श्री सुदीन्द्र तीर्थ स्वाम्यांगेले चरण कमल स्मरण करनु, काशी मठाधीष धर्मगुरु श्री संयमीन्द्र तीर्थ स्वाम्यालें चरण कमलांत साष्ठांग नमन करनु तांगेल आशीर्वादु मागून घेत्ता।

गोश्रीपुरांत विराजमान असिल श्री लक्ष्मी वेंकटपतीले मनान स्मरण करनु साष्टांग नमन करनु शरण एत्ता। यें "कलाकाव्य"ाक काव्याकांनी बरोवनु माका अनुग्रहु केलेला श्रेष्ठ कोंकणी साहित्यकार श्री. शरतचन्द्र शेणै हांका मोगान धन्यवाद सांगता। तसि माका मार्ग निर्देशु दिलोलो श्री. चित्तरंजन नायक हांका धन्यवाद, माका केदनाय मार्गदीप जाव्नु आसिले श्रेष्ठ साहित्यकार श्री. आर.एस. भास्कर, श्रीमति. सुशीला त्रिविक्रम भट्ट अनि श्री. के अनन्त भट्ट हांकांय धन्यवाद सांगुनु यो "कलाकाव्य" सर्वे कोंकणी प्रेम्यांक समर्पण करता। कोंकणी प्रेम्यान वाचून माका अनुग्रहु दींवका म्होणु मागून घेत्ता।

"कलाकाव्य" उजवाडूक कलाकाव्याचें प्रकाशक केरळ कोंकणी अकादमी आनि प्रकाशकालें उत्तर बोरोवनु माका अनुग्रहु केल्लोल श्री. सुरेश शेणै हांकाय धन्यवाद सांगता।

"कलाकाव्य" तांगेलो अनुग्रहु मागता। "कलाकाव्य" मुद्रण केल्लेले प्रस प्रकाश प्रोसेस आनि डी.टी.पी. केल्लेले श्री. के. सन्तोष हांकाय प्रत्येक धन्यवाद सांगता।

*****

# दोनि उत्तरॅं

श्री. पी. कृष्णकुमार हांगेले प्रथम कविता संग्रहु तं "कलाकाव्य"।

सान प्रायेर थाकूनु कविता बोरोंवचाक तान आसीली। कोच्चिनान्तु थाकूनु उजवाडांवचे "कोंकण जनता", "स्पन्दन", "वैष्णव रत्न" ,आदी आनुकालिकान्तु अपण्याले कविता "कलाकान्त" म्हळेले नावान उजवाडायलेली आसा। अपण्याले समीपान्तु जांवचीचि कायरीं कविता रूपान सरळ जावनु सांगूक कृष्णकुमाराक सामर्थ्य आसा।

केरळ कोंकणी अकादमीक ह्ये समाहारु उजवाडाक हाडूक व्होडु संन्तोषु आसा। समान्य जन ह्यो पुस्तक स्वीकार करतले म्हणु आमका विश्वास आसा।

हंका आमची विजयाशंसा !!!

सुरेश ए. शेणै
**केरळ कोंकणी अकादमी**

# समर्पण



प्रो. आर. के. रावु

प्रो. पी. जी. कम्मत

श्री. सुभाषचन्द्र प्रभु



श्री. वी. सदानन्द पै मास्टर

श्री. पी. एन. शिवनन्द शेणै



# ताळ पर्तीतय

1. श्री विनायक
2. लांवका आंका दिवली
3. येय्याय
4. किणि मां किणि मां काणि सांग
5. मन्तरेल मोक्षु
6. वृक्षु अनि मनीषु
7. मातृ वन्दन
8. संसर्गु
9. म्हलगडाल म्हण्णि
10. गुरबजेल म्हण्णि
11. जाय माका फूल
12. फातर काळज्यानो
13. मेगेल मोगा पैमां
14. चांगपणाच सांज
15. गीमु कसलो
16. आराट पावलें
17. सोरंगो
18. संसार पडवो
19. साळ काळें
20. अक्काले अभिलाषु
21. नीद रे नीद
22. पावसु
23. पंजीरें
24. धन्य कोंकणी

# श्री विनायक

श्री विनायक नमोस्तुते
श्री विघ्न विनायक नमोस्तुते
आदि पूजित नमोस्तुते
श्री गण नायक नमोस्तुते।।

आनन्द मूर्ती तू दया सागरु
तुगेले श्री चरणांत हांव एत्ता शरण
करि तूं माजें संकट निवारण
विघ्न विनाशकु तूं संकट मोचकु।।

मोदक प्रिय तूं श्री गणेशु
सिद्धि विनायका श्री गुण निधे
श्री गण नायक नमोस्तुते
सिद्धि विनायका नमोस्तुते।।



# लावंका अंका दिवली

लावंका अंका दिवली
लावंका देवाल दिवली
श्रीराम नमन कोरका
सियाराम भजन म्होणका।।

घरांतु उजवाडु अड्ची
मनांतु शान्ति दिंव्वि
हृदयान्तु आनन्दु पांवचि
देवाली प्रीतीय पांवचि।।

दीवाळि लागि पावली
पडॅक भेत्तूका पन्त्यारि
दिवली लांवका फान्तीन
दीसोगल जपूका देवीलि स्तुति।।

(लांवका)



# येय्याय

येय्याय बाळानो येय्याय
भोंवू वचाक येय्याय
वेळेर वचाक येय्याय
भंडीर भोंवूक येय्याय।।

वेळेर नांचून भोंव्या
शेळ वारें तें घेंव्या
उदकांत पाळांत खेळूया
सोरंगो ऊँच उबोव्या।।

येय्याय बाळानो येय्याय
मोगा भुरगानो येय्याय
शिकूक वचा येय्याय
साळेंत वचाक येय्याय।।

पुस्तक मनान शिकूया
गुरून सागूचें आयकूया
सर्वांक सहाय कोरया
देशाचे सेवाय आमी कोरया।।



# किणिमां एक काणि सांग

किणिमां एक काणि सांग
अंका चेर्डुवांक चांगि काणि सांग।।

अंका आजि साळ ना न्हैवें ?
किणि मम्माक आज काम ना न्हैवें ?
कक्को-मेण्डाल काणि कालि संगिलि
गुरबजेल काणि पैरि सांगिलि
बुद्धवन्त सोसालि काणि आजि सांग
बलवन्त सिंहाक हरवेयले काणि सांग।।

किणि मम्मान सांगली ती काणि
सोस्सान सिंहाक हरवेयलेलि काणि
बुद्धियेन बलाक मरलेलि काणि
किणि मम्माल ती सानि काणि
अयकून भुरगानि मोगान सांगिलें
किणिमां किणिमां अनकेय काणि सांग।।



# मन्तारेल मोक्षु

फल्यार फन्तार मन्तारि उठायता
परमांतु सरस्यांक उदाक सिंपिता
फुला परमळु परमांतु भरता
मन्तारेल मनांत अनन्द जात्ता।।

फूल सर्वै ती निकळायता
तें सग घेवनु सोप्प्यार बेसता
अबोलें - मोगोरें - चंपे - सेंते सर्वै
एकेक कोरनु ती चां कोरनु गंतीता।।

माळा ती चोंवचाक भारि चंद दिस्ता
सुन्दर माळा ती देवळान्त दित्ता
देवाक पांवतय तिका आनन्दु जात्ता
फुला परमळु तिजे मनांत भरता
देवु अज्जेरि प्रीति पांवता
मोगान मन्तारेक मोक्षु दित्ता।।



# वृक्षु आनि मनीषु

सस्य वृक्ष ते मानवाले मित्र
ताजे जीविताचे आजन्म बान्धव।

गिम्मारि शेळि सवळी घालचे
उज्जा वोत्तांतु शेळ वारें दिंवचे
प्राण वायु पर्यन्त सोणु दिंवचे
परोपकाराचो सन्मार्गु दकोंवचे।।

सस्य-लतादीय मनावांक मोगु करची
माळूक पुजूक खूब फूल दिंवची
यज्ञाक-यागाक पल्ले-शिखर जांवची
मोगान अपणाकेच समर्पूचि।

तुळसि नात्तिल आंगण तें कसलें ?
पिंपळु नात्तिल नगर कसि जांवचें ?
भुयेन किरलांचे तें बी कोणाक ?
सरस्सेन फुलोंवचे फूल आनि फळ कोणाक ?

दीवो तो दाकेयता व्होडु उजवाडु
वृक्षु तो पळैता त्यागाचो सन्मार्गु
मानवान पोळोंवका तो पवित्र मार्गु
आनिक आपणांवका अपणाले जीवितांतु।।



# मातृ वन्दन

वन्दन करूयां भारत मातेक
हिमगिरि शोभित पावन देशाक
आदि कवींगेले भारत वर्षाक
श्री वेदव्यासालें धर्म कुरुक्षेत्राक।।

वीर शिवजीले धीर धरतीक
अरविन्द स्वामीलें अनादि राष्ट्राक
विवेकानन्द स्वामीलें पावन जननीक
वन्दन करूयां भारत मातेक।

महात्मजीलें तें राम-राज्याक
सुभाषचन्द्रालें तें सुविख्यात देशाक
भगतसिंहालें तें भव्य भारताक
वन्दन करूयां भारत मातेक।

राणी झांसीलें धीर धरतीक
राणा प्रतापालें पवित्र राष्ट्राक
सुब्रम्हण्य भारतीलें पुण्य देशाक
वन्दन करूयां भारत मातेक।

वन्दन करूयां ये वीर जननीक
धरतीचे ये पुरातन राष्ट्राक
धरणीचे ये देव भूमीक
वन्दन करूयां भारत मातेक।।



# संसर्गु

संसर्गु मानवालो उत्कृष्ट संस्कारु
संसर्गु ताजे जीविताचे सदाचारु
संसर्गु सदा जांवका आमचे जीवितांतु
जननी आनि बन्धु बान्धवां भर्सि।।

संत जनां भार्सि आसिल संसर्गु
धन्य करता तें मानव जीवन
संत्संग तसि संत जना संसर्गु तो
उजवाडायता उत्तम सन्मार्गु।।

सद्गुरु, सद्विचार, सद् आचरण
सदा जात्ता तें जीवित धन्य
केवड रायाक स्वयं श्रीरामालो संसर्गु
सुधामाक श्रीकृष्णालो संसर्गु
अर्जुनाक पार्थालो संसर्गु
हनुमन्ताक श्रीरामालो संसर्गु
प्रमाणित करता उत्तम सनातन धर्मु
संसर्गु-सनातन धर्माचो सदाचारु
संसर्गु-मानवालो श्रेष्ठ संस्कारु।।



# म्हलगडाल म्हणि

म्हलगडाल म्हणि ती पावन
निर्मल करताय ती जीवित शोभन
श्रीराम नाम स्मरण अति पावन
सदा करि श्रीराम नाम स्मरण।।

आयलेले वाट विसोरन्यें
मात्तें विसोरनु तेल दोवोरन्यें
सदा देवाल स्मरण कोरचें
श्रीराम नाम स्मरण जपूचें।।

उम्मासे रात कळकी रात
उल्लैलें वरता केल्लेलें विसरता
म्हलगडाल म्हणि ती सत्य खंडित
श्रीराम जप करचें तें निस्तुल।।

घरचे मोगराक परमळु ना
दान म्हेळेल गायचे दांत मेजप ना
दोळ गेलार दोळ्या मोल कळता
देवान दितना चरीय वाटेन दित्ता।।

बेसून जाय पाय पातळांवचाक
मनुष्यालें जीवित उदकाचें फुगुट
म्हलगडाल म्हणी ती प्रमाण
श्रीराम चरण ती अंका शरण।।



# गुरबजेल म्हण्णि

काळूक निसरता उजवाडु एत्ता
पृथ्वीर सूर्याचे किरण पडता
राति वत्ता तो दीसु एत्ता
आलस्य सोणु उठरे मनुष्या।।

आळसायेचें तें माया बन्धन सोडी
ऐश्वर्याचें तें कर्म बन्धन काडी
यत्नु कोरका समूह सेवा करूक
प्रयत्नु पांवका राष्ट्र सेवा खत्तीर।।

स्नेहु, दया, करुणा, माया सग
सत्गुण केदनाय तू सोण्यें
धीरज तुगेले वीर पूर्वजालें
सन्मार्गु केदनाय तू सोण्यें।।

लेकिलार तुज्जान सग जावयेत
आठेयल्यार तूवें पाषाणय भेतूयात
पाषणा पर्वतु पर्यन्त फुठोवनु
नदिये दिकु तुजान गुंवडान सोडयात।।

सत्गुण वडोंवका, सन्मार्गार चंकूका
कर्मनिरत जावनु प्रयत्नु कोरका
मानव सेवा माधव सेवा म्हळेले
विवेक सूत्र चां कोरनु समझूका।।



# जाय माका फूल

जाय माका फूल
गुरबा उदका फूल
पत्माक्षाचे फूल
नामू हांगा खंयि
गुरबा उदका फूल
पत्माक्षाचे फूल।

गेल्लो हांव 'पूकारमुक्क'
'पत्मा' वटेन बंडीरि
'पंकज' म्हळेले बस्सारि
पांतीस धडियेन पांवलो
'पत्मा' मुक्कार देवलो
पूकारमुक्क समचि चंकीलो
शेंके रुपयानि घेतलें
खोट्टो भोरनु फूल
पत्माक्षाचे फूल
गुरबा उदका फूल।



# फातर काळज्यानो

फातर काळज्यानो-
फालें पळोव्न तुमी येत्ताय-
दूद माजें काड्ताय
ताजानी मेणाय करताय
तांतु साकून ताक घांटताय
लोणि कडताय, तूप करताय
परतून माका कित्तें दित्ताय ?
हांजो काणु बान्दून घालताय
मेगेलें स्वातन्त्र्य ना करताय
माका सुक्को बैकोल उडयताय
पाडूक माजें दुद्दा खातीर
तळवळेंवचें पोळोवनूय
देह ताजें जरजरेवचें चोवनूय
मेगेलें दीन रण्णें अयकूनूय
मनुष्या !
तुजे कळजांत कांय खोंबनावें ?



# मेगेले मोगा पै मां

आजि मक्का पोळूर वोचूका
पैमम्माले घरकडे वोचूका
पैमम्माल घर पोळूर
देवळा पञ्जिरान पोळूर।।

फडचना पटळीय घेवनु
पोळूर बण्डीर हांव चोळो
देवील देवळा नङ्यार देवलो
समचि पैमम्मा घरकडे चंकीलो।।

फिदरांतु उलदूनु बेसोवनु
पैमां गोडसाणि उत्तर उल्लेयलो
तोळोल तिकसाणि हप्पोळूय दिल्लो
रुचीन चाबून हांव तो खेल्लो।।

पितळी पेडावणांतु केल्लेली
पोण्सा पतळी संजे दिल्ली
पथरा रन्नीर केल्लोलो तेरा
पन्ना पतोरवडोय दिल्लो।।

बोट चाबून आर्तीन हांवें खेल्लो
पैमम्मालें स्नेहान्वेषणयि केलें
पंचड वरार परतलो हांवें गावान्तु-
पैमम्माल वोळ्ळो मोगूय घेवनु।।



# चांगपणाचि सांज

सांज ती फुलेता
आदित्यु पश्चिमार निपेता
स्वर्ण वर्णाचें किरण
थळथळेता आसा।

सांज ती चंद दिस्ता
शेळ वारें आनि चंदीणें
नक्षत्र धळ-धळेंवचें
नील वर्ण मळबाचें
पोळोंवचाक दृश्य तें
भारी आनन्दाचें।

सांज ती चंगपणाचि
देवाक दिवलि-दीवो लांवची
राम-नाम आनि हरि कीर्तन
बयलांक-बुरग्यांक मन मोहन
स्वयं श्रीलक्ष्मीचें आगमन
धन्य जात्ता घर अति पावन।।



# गीमु कसलो ?

गिमाचो मासु तो आयलो
धर्तीर सूर्य तापु वाडता जालो
घरांतु तापु-दफ्तरांत तापु
साळेंत तापु - बेळवार तापु
भायर तापु - भित्तेरीय तापु
सर्वै दिकान तापु रे तापु।

दिस्ता जाता उजा पावसु
गिमाचें देंपारा ताजो अट्टहासु
हुम्हैवनु - बिजून आंग फुलेंवचें
कालु कसलो यो गिमाचो ?

वाणो-विना कसि भायर देवचें
तपून आसिल भुंयचेर कसि मडोवचें ?

गिमार - काला तौसें -
काळिंग - चिंबट आनि मोगें
तें सेव करचे रूचीन
स्वस्थ्याक बारी चांग जांवचें।।



# आराट पावलें

साळ बन्द केल्लें
देवळान्त आराट लागि पावलें
हस्तीय एवनु पावली
चेण्ड्यार बड्डि पळि
शिवेल प्रारंभु जाली
भुरगीं देवळान्त भरलीं।।

फुगे-पेप्रीं नडार पावलीं
भुरगीं फुग्या लगि सरलीं
सान भुरगीं रोड्डूक लागलीं
आवस-बपूस भुंजून भोवलीं।

शिवेल प्रदक्षिणाक घेल्लि
उणें भुरगीं पिड्डो काणु धावलीं
शिवेल चेण्डे आयकून थोग्डीं मात्तें हालतात
यें दिकून थोग्डीं हासतात।

गांव भोरनु सर्वै जन्पदाक
उत्सवु, आनन्दु रे आनन्दु
गांवातु भोरनु, गांवकाराक
आराटाचे घोषु रे आघोषु।।

चित्रा पौर्णमि दिसु आयलो
गोश्रीपुरांत आराटाच दीसु पावलो
मरतक शोभित श्री वेंकट नायकु
सर्वै भक्तांचो आनन्द दायकु।

वेद सूक्त मन्द्रोच्छारण-
सहस्त्र धारेण अवभृत श्नान
श्री चक्रश्नानाक देवु भायर सरता
गोविन्द नाम स्मरण सर्वै जपीता।

स्वर्ण गरुडारि आरति अर्पण
गोश्री वेंकटपतीक कोटि कोटि प्रणाम
गोश्री वेंकटपतीक स्वयं समर्पण
राक तू वेंकटपती तू विना कोण शरण ?



# सोरंगो

ऊँच ऊँच उबूक माका मोगु
थळ थळेंवचे नीळ मळब
पोळोवनु धरणी सौन्दर्य अपौवनु
ऊँच ऊँच उबूक मोगु।।

भुरगीं घेवनु भोंवताय माका
वेळेर एवनु उबयताय चोया
वर्णाचें माजें रूप चंद
मळबार हांव सरता ऊँच।।

तरि जाय देवा तुजी करुणा
पुणि तुजे सुत्ता बन्धनांत
निश्चल अचञ्चल मनान
मुकार सरूक चंदायेन।।

अपणाक अहंकारु पाणा
जाय तुजी दया करुणा
देवाल भक्ति बंधनांत
जात्ता माका शक्ति संपन्न।।

पुणि विसोर तुजो पडतेर
अहंकारु भारि जातेर
पापाच राशी भरतेर
सुता बंधन फुट्ता सरार।।

हांव निसरनु खाला पडता
भुंयचेर दडेर एवनु पडता
पृथवीर रेंव जाव्नु सरता
सर्वै ती देवाल माया।।



# संसार पड्वो

संध्या सांजे देवळान्त वचूका
आजि संसार पड्वो न्हवें ?
सुभ्राय भट्टान नडार वच्चूचें
संसार फल तू चां कोरनु अयकूका।।

अश्वति न्हैवें तुजें नक्षत्र ?
ऐश्वर्य ताजें तूवें चोंका
भरणी बप्पालें नक्षत्र
भरणीचे बरवय पोळोंवका
चोति अम्मालें नक्षत्र
चोतीचें चेलवय चोंवका

एक निंगूक हांव विसर्लिं
कळ्ता गो संध्या तुका कायिं ?
धनिष्ट अन्नान नक्षत्र
ताजान जतनवें जीवित धन्य।।

देवळान्त वचून एत्तर
दितनी हांव तुका अंबट
हिट्टु आनि केळ्या फडि अंबट
बोट चाबून खंचाक।।



# साळ कळें

शालिनि सत्तेवान्तु तू अत्त पवली
सट्टान थाकून जीत जाली
चांग रूपान तू अनिक सिक्कूका
खेळु-हासु अनि ऊणे कोरका।।

साळेन्त समयारि वोचूका
गुरून संगचे श्रद्धेन आयकूका
वरिष्ट अंकान जिक्कूका
प्रथम श्रेणीर केदनाय पांवका।।

अळसाय-अपुरबाय सग सोडका
सिकवणेर तान केदनाय दोवोरका
सिक्कून-सिक्कून तू बुद्धवन्ति जांवका
श्रेष्ठ गुण तू चां कोरनु वडोंवका।।

देवळांत केदनाय तूं वोच्चूका
सांजे श्रीराम-नमन म्होणका
देवाल उपासन कोरका
वसुदेवाल प्रीतिय प्राप्त कोरका।।



# अक्कालो अभिलाषु

ती एक दाकुल चेल्ली
देकून तिका अपूरबाय करूक दिस्ता
जालार तिजी आवसु भुंयचेर ना
बपूस आसून कांय कयरीं ना।

आवसु आट वर्षार तिका सोण गेलि
बपूस गांवूय सोण गेल्लो
आका-आन तांग-तागेले वाटेन गेल्लीं
सानि आका आनि ती एकलीं जालीं।

अक्कान हप्ळा ब्यारान तिका वडोवनु हळ्ळि
अकाल मोगान ती वडून आयलि
अक्का तिका आवसु समान आसली
अक्का तिका सर्वस्व जाव्नु आसिली।

जलार आजि अक्काक सुख ना जालें
अक्काक चां कोरन चोंवका म्होण वैदिकान सांग्लें
अक्कान असुख इत्तें म्होण तिका कळना
जालार अक्का तापु चड म्होण दिसलें।

धाकूल बयणीन हपळ पतलांवचाक आरांभिलें
अक्कान असुख चड जंचाक जालें
तांतु बर्सी बयणीन रिसल्ट आयलें
साळेंत तिका "प्रथम रांक" मेळें।

अक्काक व्होड सन्तोषु जालो
तिगेल तापु ऊणे जांचाक लागलो
बयणीक प्रत्येक पुरस्कार मेळो
गांवकारान तिका सिखूक मदद केल्लो।

ती सान चेल्लि आज व्होड जाली
ती आज वोळी डाक्टर जाली
अक्काल अभिलाषु साध्य जालो
अक्काय-बयणीय मोगान राबलीं।।



# नीद रे नीद

नीद रे एकि नीद
लेक नात्तिले नीद
अळसायेच एकि नीद
'पिशें' लागलि नीद।

राति सग नीद काडताय
स्वप्न चोयताय, एकवेळ उलयताय
गींत म्हणताय, मात्र वें ?
हाथ-पायान लगि निदेलांक मारताय।

दिस्सा थोग्डे निदेताय
दिवा स्वप्न चोयताय
राति कामाक वत्ताय
फले-फलार एवनु पडताय।।

रात्तीय-दिसूय नीद रे नीद
सदा समयु घोरेवनु निदेंवचें
कुंबकर्णाकय हरवोंचें
'वीर' पुरुषांकय दिकूयात।।

लेकान एक आसिल नीद
चांग ती अंगेले देहाक
लेक नातिल अळसाये नीद
ती करतलि जीवित वायट।।



# पावसु

थंय थंय कूप पडता
धंड धंड वारें मारता
शेळ शेळ तें वारें लागून
आंग माजे कडकडेता।।

पावसा-मोड् घुंवता जाता
भिण भिण काळूकूय जात्ता
इट-बेट मिन्नल सर सरार मारता
भुरगीं भयान रड्ता पळा।।

बेब्यान रण्णें तें आयका
अंगणान्त उदाक बरता चोया
झोडु-वारें मारता जात्ता -
मड्डि-मड्डे हालता पळा -

मळबार चोय्याय सप्त वर्णाचें बिल्व
दृश्य तें भारि नयन मनोहर
भुरगीं जालीं आनन्द विस्मय
राक वेंकटपती तूं दया-सागरा।।



# पंजीरें

कार्तिक मासु लाग पवलो
देवु तुळसीन्त एंवचो वेळु आयलो
भक्त जन फल्यार देवळां पांताय
फन्त्यार फल्यार पंजीरें लांबयताय।

बायल-भुर्गीं सर्वै फन्त्यार उठायताय
आंगण शिंपताय, कोलम बरयताय
तुळसी मुकार दिवली दवरताय
मनान देवालें नाम स्मरण करताय।

भक्त जनांक फल्यार जागरण
देवदर्शन मेळूक वोड तान
मनान करताय हरि नाम स्मरण
राक वेंकटपती तू संकट मोचन।

देवळां सर्वै हरि नाम कीर्तन
अयकूक तें मधुर श्रवण
'गोविन्दा गोविन्दा' नाम संकीर्तन
भक्तजन करताय हरि नाम कीर्तन।

भट्माम देवाक आरती दकयता
देवळा घांट ती होड्डान वाजता
तुळसीक भट्माम तीन प्रदक्षिण कडता
'गोंविन्दा गोविन्दा' म्हुण कीर्तन जाता।

हरि नाम कीर्तन तें बहु पुण्य
कार्तिक मासान मेळता व्होड पुण्य
सदा करचें हरि नाम कीर्तन
राक वेंकटपती तू संकट मोचन।।



# धन्य कोंकणी

धन्य धन्य धन्य हो कोंकणी
भारताच भव्य भाषा कोंकणी
आजि करताय तुजि आरती
धन्य धन्य धन्य हो कोंकणी।

अंगेल मोगाच भाषा कोंकणी
गोमन्त देशाच भाषा कोंकणी
अंका सर्वांक एकमेळेंवची मातृवाणी
धन्य धन्य धन्य हो कोंकणी।

भारताच भव्य भाषा कोंकणी
गोड्डे रामायणाच भाषा कोंकणी
विश्व भोर्नु जाता तुजी व्होड कीर्ति
सर्वै मेळ्नु करा कोंकणी आरती।।





## कलाकान्त

निजाचे नाम श्री. पी. कृष्ण कुमार । श्रीमति. कलावति बाई आनि श्री. आर. पत्मनाभ कम्मत हांगेलो पूतु जाव्नु 21 फरवरी 1966 क कोच्ची गोश्रीपुरांत जन्मु। सिखवण कोच्ची टी. डी. हाई स्कूल तसि कोच्चिन कोळेजान्त (प्रीडिग्रि पर्यन्त)।

"सारस्वत यूत्स अस्सोसियेषन"(SYA) संस्थे वटेन प्रवर्तन केला । एस. वै. ए. प्रसिद्धीकरण केल्लेले कोंकणी कविता समाहरण "कवनं झोल्लो" तासि "फुलां आनि कोळे" हांतु नेमाव्यान हांचि कविता प्रकाशित केल्या । हांगेले कविता "कोंकण जनता", "स्पन्दन", "सारस्वत वाणी" हांतु उजवाडाल्या । केरळचो मुखेल कोंकणी साहित्यकार श्री. पी. गोपिनाथ कम्मत हांचो म्हलगोडो आनु । हांगेले कोंकणी कविता "फातर काळन्यनो" गोंय थाकून प्रकाशित जांवचे "सुवापरांत" पत्ररीय प्रकाशित जाल्या।

"कलाकाव्य" - यो कोंकणी कविता संग्रहु तांचो प्रधम उद्यमु । केन्द्रीय मत्स्य प्रेद्योगिकी संस्थेन्त सह. प्रशासनिक अधिकारि जाव्नु काम करतात केरळ कोंकणी अकादमिचे सजीव सदस्य ।

श्रीमति. प्रीया ए. जी. हांगेले बायल आनि पूतु कु. नवनीत के., 12th Std., केन्द्रीय विद्यालय ।

केरल कोंकणी अकादमी प्रकाशन